# गुरू नानक



रूपांतर : सुहास दलाल




गोवा कोंकणी अकादेमी

**गुरू नानक**

(जिवितांतल्यो घडणुको)

रुपांतर :

सुहास दलाल

प्रकाशन क्र. : ४२



उजवाडावपी :

ज्यॉर्ज द् आब्रेव

सचीव,

गोवा कोंकणी अकादेमी,

बोरी, फोंडें, गोंय.

छापपी :

स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स

माशेल, गोंय.

मुखचित्र आनी सजावट :

आनंद खवटणकार

उजवाडावणी : मार्च २००२

मोल : रुपया १५/-

**GURU NANAK**

(Episodes from life)

**ADAPTED BY :**

**Suhas Dalal**

**PUBLICATION NO. :** 42



**PUBLISHER :**

George de Abreu

Secretary,

Goa Konkani Akademi,

Borim, Ponda, Goa.

**PRINTER :**

Swarnamundra Prints,

Marcela , Goa.

**COVER & DESIGN :**

Anand Khavtankar

**PUBLICATION :** March 2002

**PRICE :** Rs. 15/-

---

*गोवा कोंकणी अकादेमीच्या बालसाहित्य प्रकाशन [illegible] येवजणेखाला*
*हे पुस्तक छापलां आनी उजवाडायलां.*

# मांडावळ

# गुरू नानक : भुरगेपण

१४६९ वर्सा तालवंडी नांवाच्या एका खेड्यांत गुरू नानकाचो जल्म जालो. आतां त्या गांवाक 'नानकाना साहेब' अशें म्हणटात. हो गांव लाहोर लागसार अस्तंत पाकिस्तानांत आसा. ताच्या बापायचें नांव काळू अशें आशिल्लें. तो हिशोब तपासनीसाचें काम करतालो. नानकाचे आवयचें नांव तृप्ता आनी भयणीचें नांव नानकी अशें आशिल्लें. अशें सांगतात, नानक जातनाच जाणट्यांवरी हांसलो.



भुरगेपणातच तो हेर भुरग्यांपरस वेगळे तरेन वागतालो. तो विचारी आनी थंड सभावाचो आशिल्लो. ताच्या बऱ्या सभावाक आनी रुपाक लागून जणएकलो ताचो मोग करतालो. बापायन ताका सामक्या भुरगेपणांतच शाळेंत घालो. रोकडोच तो वाचपाक आनी बरोवपाक शिकलो आनी देवा विशींच्यो कविता रचपाक लागलो. बाराखडीचें एक एक अक्षर घेवन त्या त्या अक्षरान सुरू जावपी एक कविता ताणें रचली. नानकाक थोड्याच तेपान शाळेची उबगण आयली आनी ताणें शाळा सोडली. आतां तो सददां उठून वेगवेगळ्या धर्माच्या साधूसंतांकडसून धर्माची जाणकारी मेळयतालो. अशे तरेन भुरगेपणांतच ताणें वेगवेगळ्या धर्माचीं मुळावीं तत्वां शिकून घेतलीं. आपणालो चडसो वेळ तो ईश्वर चिंतनात घालयतालो.

बापायक तागेलीं चिन्नां धड दिसना जालीं. आपणालो चलो शिकून सवरून पंडित जावचो ह्या तागेल्या हावेसाचेर दिशींदिशीं उदक पडटालें. साधूसंतांची संगत सोडून दिवपाची आपली सांगणी नानक कसोच आयकना हें पळोवन ताणें नानकाक आपलेसरीं आपोवन म्हळें, " वेळ वगडावचे परस कसलेंय काम तरी कर. फाल्यांच्यान शेतांत वच आनी गोरवां राख."

दुसऱ्या दिसा नानकान गोरवां सोडलीं आनी आपूण एका वडामुळांत वचून ध्यानस्त बसलो. हेवटेन गोरवां अळंग दुसऱ्याल्या शेतांत घुसलीं आनी तांणी अचळय शेत खालें. शेतकाराक तिडक मारली. ताणें राय

बुलर नांवाच्या गांवच्या पाटलासरीं कागाळ व्हेली. "नानकान आपणालीं गोरवां म्हज्या शेतांत मुद्दम आमडून घालून म्हज्या शेताची वाट लायल्या." ताणें पाटलाक सांगलें.

राय बुलर पाटलान नानकाक आपोवणो धाडलो. नानक आयलो आनी हांसत सांगलें, " देवान तागेल्या शेताचेर मेहरबानी केल्या. खासा तुमी शेतांत गेल्यार थंय तुमकां कांयच लुकसाण जाल्लें दिश्टी पडचेंना." राय बुलरान शेताची पळोवणी केली. अजाप म्हळ्यार, नानकान सांगिल्लें तें खरें जाल्लें. शेताची एक पाती लेगीत पिड्डयार जावंक नासली.



एक दीस नानक गोरवांक चरपाक सोडून शेता धडेर न्हिदिल्लो. वताचो रखरख पडिल्लो. इतल्यांत एक नाग येवन ताणें नानकाच्या माथ्यार आपणाली फडा उबारून धरली आनी ताका सावळी घाली. कोणाल्याय माथ्यार नागान फडा उबारप म्हळ्यार एक भाग्याचें लक्षण अशें भावार्थी लोक समजताले. पूण नानकाल्या बापायक तीं सगळीं पिशेपणां दिसलीं.

# गळ्यांत जानवें घालून घेतलेंना

नानक जेन्ना णव वर्सांचो जालो, तेन्ना ताच्या बापायन ताची मुंज बांदपाची थारायली. सगलीं सोयरीं – धायरीं आयलीं. मंत्र म्हणून भटान ताच्या गळ्यांत जानवें घालपाक, नानकान ताका आडायलो आनी जानवें गळ्यांत घालून घेतलें ना.

"जानवें घालून घेतलें ना जाल्यार तूं खऱ्या अर्थान हिंदू जावचोना." भटान सांगलें.

"हें जानवें म्हज्या आत्म्याक कशेंच उपकरा पडपा सारकें ना. जानव्याक चिखोल लागूं येता, तें तुटूंक वा सांडूंक शकता. ते भायर असलें जानवें घालपी लोक लेगीत चोरयो करतात, फट उलयतात आनी हेर तरेचीं वायट कर्मां करतात, हें हांव जाणां." नानकान सांगलें.

नानकाल्या आवय बापायक तागेलीं हीं उतरां आयकून धक्को बसलो. ह्या जगा भायल्या भुरग्याक कसो समजावचो हेंच तांकां समजना जालें.

नानक चौदा वर्सांचो जालो, तेन्ना बापायन ताचें लग्न सुलखानी नांवाचे एके चलयेकडेन लावन दिलें. लग्न जाले उपरांत तो जाग्यार येतलो आनी देवाविशीं चिंतपाचें सोडून संवसारांत रमतलो अशें आवय – बापायक दिशिल्लें. पूण लग्नाक लागून ताच्यांत बदल घडलो ना. तो काम करना हें पळोवन लोक ताका एक तर आळशी वा पिसो कसो लेखताले. दिसभर येवजुपाचें सोडून तो कामाक कसो लागत हाची विवंचना बापायक पडिल्ली. बापायन एक दिसा ताका आपोवन हाडलो आनी ताचेकडेन थोडे पयशे दिवन सांगलें, "हे पयशे घेवन चुहारखान्याच्या बाजारांत वच आनी दुकान घालपाक जें जें सामान लागता तें घेवन यो."



नानक आनी ताचो नोकर चुहारखान्याच्या बाजारांत वचपाक भायर सरले. बाजारांत पावचे आदीं वाटेर तांकां कांय साधू संत दिश्टी पडले. तांच्या आंगार धड कपडे लेगीत नासले. नानकान तांची वासपूस केली. "आमी संवसार सोडला. आमचेकडेन कांयच ना. लोक पळय कितेंय दितात ताचेर आमी पोट भरतात. तुजेकडेन

कितेंय खावपाक आसल्यार आमकां दी. आमकां सामकी भूक लागल्या." तांणी सांगलें.

नानक लागशिल्ल्या गांवांत गेलो आनी ताणें बापायन दिल्ले सगले पयशे कड्डून त्या साधूंखातीर जेवणा – खाणाचें सामान हाडलें. नोकरान नानकाक शिटकायलो, पूण ताणें ताचें काना मनार घेतलें ना. आतां बाजारांत वचपांत अर्थ नाशिल्ल्यान ते हात हालयत घरा परतले.

नोकरान घडिल्ली गजाल नानकाच्या बापायच्या कानार घाली. बापायन ताका खूब उलयलो, पूण आपणें चूक केल्या अशें तो मानूंक तयार नासलो.

"ते पयशे धंद्यांत घालून आमच्यांनी काय बरो फायदो जोडूंक जातलो आसलो!" बापायन म्हळें.

"त्या पयशांनी फायदो जावंक जाय अशें तुवें म्हाका सांगिल्लें. साधु – संतांक जेवण घालप हाचेपरस चड फायदेशीर आनीक आनी ह्या संवसारांत कितें आसा?" नानकान विचारलें. बापायन ताचीं हीं उतरां आयकून कपलार हात मारलो.

कसलेंय तरी काम करपा खातीर आवयन ताका फुसलावन पळयलो. बापूय सांगता तें आयक अशें तिणें भोवन भोवन सांगलें. "लोक तुजेविशीं वायट उलयतात. लोकांनी तुका बरो म्हणिल्लें म्हाका आयकूंक जाय. तुका आमी जल्म दिला. म्हण्टगीर तुजेविशीं आमच्योय कांय अपेक्षा आसात. तुका ल्हानाचो व्हड केला त्या आवय – बापायचेंय तूं आयकुचो ना?" आवयन विचारलें.

हाचेर नानकान कवितेंत जाप दिली –

" कोण म्हजो आवय – बापूय
खंयसून हांव आयलां
हांव नेणां.
उजो आनी उदकापसून
हांव असो कित्याक जालां
हांव नेणां.
अंतस्कर्णांत म्हज्या कितें
तरी खतखतता
आत्मोच हाल्लेवरी दिसता
खरेपणी म्हाका दिसता,
परमेश्वरी इत्सेप्रमाण वागन
तरच सार्थक जातलें म्हूण जीवन.

❑

# सुलतानपूराक

गांव बदलत जाल्यार नानक एखाद्रे वेळ सुदारत अशें आवय-बापायक दिसलें. नानकाची भयण सुलतानपूर शारांत लग्न करून दिल्ली. तिचो घोव जयराम, दौलतखान नांवांच्या मुसलमान नवाबांची चाकरी करतालो. नानकान सुलतानपुरा वच्चें अशें थारायलें. ही गजाल आयकून नानकाले बायलेक भोव दुख्ख जालें. तिणें काकुळटेक येवन नानकाक म्हळें, " म्हाकाय तुज्या वांगडा व्हर. तूं म्हजे पसून पयस वचत जाल्यार म्हाका सामकोच विसरतलो." नानकान हांसून जाप दिली, " हांव थंयच रावंक लागलों जाल्यार मागीर तुकाय व्हरतां, ना जाल्यार हांव यो म्हणसर हांगाच राव. देवाचें चिंतन कर. तो तुका उणें पडूंक दिवचो ना."



भायर सरतासतना नानकान आपणाल्या दोगांय पुतांक वेंगेंत धरून तांकां आशावाद दिला. उपरात आवय - बापायच्या पाया पडून ताण तांचो आशीर्वाद घेतलो. निमाणेंकडेन नानक नोकरी करपाखातीर सुलतानपुरा वचपाक भायर सरिल्लो पळोवन आवय - बापायक सूऽ ऽ जालें.

नानकाल्या भावोजीन ताका आपणाले वळखीन दौलतखानाल्या गुदांवाचो राखणदार नेमलो. गंव आनी हेर कड्डण जोखून दिवन तांचो हिशोब दवरप हें ताचें काम आशिल्लें. नानक मन लावन काम करतालो. तो हिशोव चोख दवरतालो हें पळोवन नवावय खूश जालो. तो मापाचेर पाप करिना हें पळोवन लोकय खूश जाले. कोणय पयशां खातीर अडलो जाल्यार तो आपणाल्या पगारांतले पयशे कापून ताची गरज भागयतालो.



# मैं तेरा : हांव तुजो

काम करतासतना लेगीत नानक ईश्वराचें चिंतन करतालो. काम सोंपले उपरांत वरांचीं वरां तो ध्यानस्त बसतालो. जेन्ना तो मापान एक . . .दोन. . .तीन अशें म्हणून धान्य मेजतालो, तेन्ना तेरा ह्या आकड्याचेर पावतगीर तो 'तेरा, मैं तेरा, मैं तेरा' अशें म्हणत रावतालो. हिन्दींत 'तेरा' म्हळ्यार 'तुजो.' 'हांव तुजो' 'हांव तुजो' अशें म्हणीत तो तल्लीन जातालो.

देशभर भोंवून लोकांक धर्मीक वृत्तीचे करपाची गरज आसा अशी नानकाक जाणविकाय जावंक लागली. चडशे लोक अज्ञानी आसात हें ताका खबर आशिल्लें. तांतले जायते लोक पुजाऱ्यांच्या फांसांत सांपडिल्ले. ते पुजाऱ्यांक भिताले आनी धर्मीक विधी करून घेवपाक पुजाऱ्यांक जायतो दुडू खावयताले.

गरीब आनी सकयल्या वर्गांतले लोक कश्टांचीं कामां करताले आनी वेल्या वर्गांतले लोक तांकां उणाक लेखताले. तांकां वायट वागणूक दिताले.

नानकान ह्यो सगल्यो वायट गजाली पळयल्यो. ताका लोकांक खरो मार्ग दाखोवपाचो आसलो.

नानकाचो एक मुसलमान इश्ट आसलो. ताचें नाव मर्दाना. सांजवेळचो नानक आपणें रचिल्ल्यो देवाविशींच्यो कविता गायतालो आनी मर्दाना ताका 'रेबेक' नांवाच्या तंतुवाद्याचेर साथ करतालो.



# ईश्वरी साक्षात्कार

एका दिसा फांतोडेर नानक न्हंयचेर न्हावंक गेलो. सदांभाशेन घरा येवचे बदला तो पलतडच्या रानांत गेलो. देव आपल्याक कसलो मार्ग दाखोवंक सोदता, ताचो विचार करपाखातीर ताका पुराय एकांत जाय आसलो. सबंद दीस तो ध्यानस्त बसलो. रात जाली तरीकय ताची समाधी चालूच आसली. दुसरो आनी तिसरोय दीस असोच गेलो. आपणां भितर आनी आपणां भोंवतणी ताका ईश्वराचो साक्षात्कार जालो. समाधिस्त आसतना ताका ईश्वराकडसून मार्ग-दर्शन मेळ्ळें. मनाचो निच्छेव करून जेन्ना नानक घरा परतलो तेन्ना साक्षात्कारा उपरांत ताणें पयलेंच वाक्य उच्चारलें तें हें, "हिंदू आनी मुसलमान म्हूण कोण ना. आसात ते सगले मनीस!"



सुलतानपूरच्या काझीक आनी हेरांक ताचीं हीं विपरीत उतरां आयकून तिडक मारली. तांणी नानकाक आपोवन विचारलें, "तूं सांगता, तें हाचेपयलीं कोणेंच आयकूंक ना. तुगेल्या उलोवण्यान लोक गोंदळांत पडटलो. मुसलमान ना हाचो अर्थ कितें?" हाचेर नानकान सदांचे भशेन कवितेंत जाप दिली –

सामकें सोपें आपणाक मुस्लीम म्हुणून घेवप

पूण भोव कुस्तार ते तरेन वागप!

बरो हिंदू वा बरो मुसलमान जावप भोव कठीण अशें ताणें सांगलें. त्या दिसाच्यान नानकान नोकरी सोडली. दौलखानान ताणें नोकरी सोडची न्हय म्हूण यल करून पळयले, पूण ताचो कांयच उपयोग जालो ना. मर्दानाक वांगडा घेवन, आपणें रचिल्लीं गितां गायत आनी लोकांक त्या गितांतल्यान उपदेश करीत नानक भोंवडेक भायर सरलो.



# सज्जन डाकू

नानक आनी मर्दाना गीत गायत भोंवता आसतना, एक दीस सज्जन नांवाच्या ठकाकडेन तांची भेट जाली. लोकांक लुटपाखातीर ताणें वेगळीच मांडणी काडिल्ली. ताणें मशिदी वांगडाच एक देवूळय बांदिल्लें आनी वाटेन येतल्या वतल्याक तो रातीचो रावपाखातीर आग्रो करी. भोंवडेकारांक तो जेवणाखाणक व्हरी. लोकांक जिवेंनिशी मारून वडोवन तो तांचीं प्रेतां लागसारच आशिल्ले बांयंत वडयतालो. सकाळींफुडें उठून जपमाळ घेवन रस्त्यादेगेर ध्यानस्त बसपाचें सवंग करतालो आनी वाटेवयल्या वाटसरूंक आग्रो करून, रातचो रावोवन घेवन तांकां लुबाडटालो.



गुरू नानकाक पळोवन सज्जन डाकून आपणाल्या साथीदारांक सांगलें, “ह्या मनशाच्या तोंडार आगळेंच तेज मारता. ताच्या तोंडावेल्यान तो बरोच गिरेस्त आसूंक जाय अशें दिसता. ताका बरे तरेन वागयात.” रात पडटगीर ते ताका न्हिदूंक आग्रो करपाक लागले. न्हिदचे आदीं आपणाक भजन करूंक जाय अशें म्हणून ताणें मर्दानाक साथ दिवंक सांगून पद म्हणपाक सुरवात केली. त्या पदाच्या कांय वळींचो भावार्थ असो आसलो –

“जीर्ण जाल्लें घर भायल्यान सारोवन शिरंगारून कितें उपयोग? बकीं भक्तांवरी न्हंयचे देगेर ध्यानस्त उबीं रावतात, पूण तांची नदर आपणाली भूक भागोवपी भक्षाचेर आसता. सिमल नांवाचो रूख पानां, फुलां आनी फळांनी भरिल्लो आसता, पूण ताच्या फळांक रूच नासता, फुलांक गंध नासता आनी ताचीं पानां सांवळी दिवंक शकनात. आंधळो मनीस माथ्यार वजें घेवन व्हड पर्वत कसो चडत? देवाचे इच्छे भायर आमचें अडेचें शाणपण कित्याक उपकारता?”

सज्जन डाकून उप्पाट अर्थान भरिल्लें आनी नानकान अंतस्कर्ण ओतून म्हणिल्लें तें गीत आयकलें मात,

ताचें काळीज हाल्लें. ताचो आत्मो जागो जालो. आपल्या फाटल्या कर्तुबांची ताका लज दिसली. ताणें गुरू नानकाचे पांय घट्ट धरले आनी पश्चात्तापाचीं दुकां व्हांवयत विचारलें, " हांव पातकांतलों कसो वाटवतलों? गुरूदेव , म्हाका उपाय सांगात."

गुरू नानकान जाप दिली, " तुजेकडेन जी कितें धन – दौलत आसा ती देवाच्या नांवान गरिबांक वांटून उडय." सज्जनान गुरू नानकान सांगिल्लें तशें केलें आनी ताणें आपणालें फुडलें जिवीत ईश्वराच्या चिंतनांत घालयलें.



# भाकरेंतल्यान रगत

थंयच्यान गुरू नानक सय्यदपूर गांवांत पावलो. थंय गुरू नानक लालू नांवाच्या एका मेस्तागेर रावलो. गुरू नानक सकल्या जातीच्या लालूगेर रावता, जेवता – खाता हें पळोवन त्या गांवचो लोक गुरू नानकाक दूशण दिवंक लागलो.



एक दीस त्या गांवच्या मालिक भागो नांवाच्या एका गिरेस्त मनशान सगल्या लोकांक आनी साधुसंतांक मेजवानी दिवपाचो बेत आंखलो. गुरू नानकाकय ताणें आमंत्रण धाडलें. लालून शिजयल्लें जेवण आपणाक माथ्यावेल्यान पुरो, गिरेस्त लोकांल्या चमचमीत जेवणाची आपणाक गरज ना अशें म्हणून गुरू नानक मेजवानीक वचनासतना रावलो.

नानकान मेजवानीचें आमंत्रण नाकारिल्लें पळोवन मालिक भागोचो अपमान जालो. ताणें गुरू नानकाक आपोवणो धाडलो आनी मेजवानीक आयलो ना ताचें कारण विचारलें.

"लालून प्रामाणिकपणान काम करून पयशे जोडल्यात, देखून तागेली भाकरी दूद आनी म्हौंवावरी गोड लागता. पूण तूं गिरेस्त जाला तो गरिबांक नागोवन. रगत चोखून घेवपी किड्याभशेन तूं गरिबांच्या रगतार पोसता. देखून तुजे भाकरेक लेगीत रगताचो वास येता." नानकान सांगलें.

हें आयकून मालिक भागोक तिडक मारली. "हीं सगलीं पिशेपणां. भाकरेक केन्ना रगताचो वास येता?" तो आड्डलो.

गुरू नानकान हांसत म्हळें, "हें पळय, हांव तुका प्रमाण दाखयतां." अशें म्हणून ताणें एका हातांत मालिक भागोच्या घरांतली भाकरी आनी दुसऱ्या हातांत लालूच्या घरची भाकरी धरली आनी चिड्डिल्ली. लालूचे भाकरेंतल्यान दूद गळूंक लागलें जाल्यार मालिक भागोच्या भाकरेंतल्यान रगत! सगल्या लोकांक अजाप जालें.

कांय दिसांनी गुरू नानकान लालूलें घर सोडलें आनी तो मर्दाना आनी वाला नांवाच्या शिश्यांवांगडा

फुडल्या प्रवासाक भायर सरलो.



वाटेर जेन्ना ताका भूक लागताली, तेन्ना गुरू नानक मर्दानाक लागशिल्ल्या गांवांत खावंक - जेवंक मागून हाडूंक धाडटालो. एका गांवांत मर्दानाक लोकांनी जेवण तंर दिलेंच, पूण वांगडा जायते कपडे आनी तुपूय दिलें. हें सगलें घेवन मर्दाना जेन्ना गुरू नानकासरी पावलो तेन्ना ताणें सांगलें, "खऱ्या साधून संवसारीक वस्तूंची आशा धरूंक जायना. गरजे परस आमी चड वस्तू बाळगूंक लागले जाल्यार आमी आळशी जातले आनी दिर्शीदिर्शी आमची आशा वाडत वतली. तेन्ना चल आनी ह्यो सगल्यो वस्तू आनी पयशे जाचे ताका दिवन यो."



# उरफाटी तरा

मर्दानान गुरूची आज्ञा मानली. ते फुडल्या प्रवासाक भायर सरले. भोंवत भोंवत ते सगले हरद्वारा पावले. थंय पवित्र गंगेचें उदक हातांत घेवन लोक उदेंते वाटेन उडयतात, हें तांणी पळयलें. गुरू नानक उदकांत देंवले आनी तांणी पोसो भरून भरून अस्तंतेवटेन उदक उडोवपाक सुरवात केली. नानकाची ही उरफाटी तरा पळोवन लोक तांचे भोंवतणी पुंजा जाले. " हें तूं कितें करता?" लोकांनी तांकां विचारलें. "आतांच तुमी कितें करताले तें आदीं म्हाका सांगात, मागीर हांव कितें करतां तें तुमकां सांगतां." नानकान जाप दिली. "इतलेंय तुका खबर ना?" एका पंडितान अजापान विचारलें. " आमी पवित्र गंगेचें उदक आमच्या मेल्ल्यागेल्ल्या सोयऱ्यांच्या आत्माक शांती मेळची म्हूण उदेंतेवटेन भायर उडयतात."



" हांव अस्तंतेकडचो. थंय गांवांत म्हजें एक ल्हानशें शेत आसा. येतासताना हांव तें रोवन हांगा आयलों. आमचे वटेन पावस उणो पडटा, तेन्ना हांव आमच्या शेताक उदक मेळचें म्हूण अस्तंतेवटेन पोसो भरून भरून उदक उडयतां." नानकान सांगलें.

तांगेलीं हीं उतरां आयकून लोक हांसत रावले. " इतलें पयस उदक पावत अशें तू कशें म्हणटा?" लोकांनी नानकाक विचारलें.

"म्हजें शेत कांय मैलांच्या अंतरार आसा." गुरू नानकान थंडसाणेन म्हळें, " आनी तुमगेलीं तर हे धतरिर लेगीत नात ! म्हणटगीर कोण चड पिसो आसचो पडलो?"

नानकालीं हीं उतरां आयकून तांगेल्या तोंडार थापट पडिल्लेवरी जालें. नानकालें तर्कशास्त्र तांच्यानी खोडून काडूंक जायना जालें. हांगा गुरू नानकांक जायते शिश्य मेळ्ळे. तांणी उपदेश केलो, " जो सेगीत देवाचें स्मरण करीत बरी जीण जगता, ताच्या आत्म्याक मेले उपरांत शांती मेळटा. देवाक आवडपाखातीर ताणें आनीक कसलेच धर्मीक विधी करपाची गरज ना."



# परमेश्वर एकच

गुरू नानकांलो भेस केन्ना केन्नाय विचित्र आसतालो. तांच्या भेसावेल्यान ते हिंदू काय मुसलमान हें वळखूंक येनासलें. आंगांत हळडुव्या रंगाची कफनी घालून ते ताचेवयर धवी शाल पांगुरताले. माथ्याक मुसलमान बांदतात तसलो फेटो, गळ्यांत हाडांची माळ आनी कपलाक केसरी रंगाचो तिबो लायताले. हो खंयच्या पंथाचो साधू हें लोकांक कळनासलें. तांच्या साथीदारांपैकीं एक मुसलमान हें पळोवन लोकांक अजाप जातालें.



भोंवत भोंवत ते बनारसाक पावले. थंय जायते पुजारी आनी पंडित रावताले. एका पंडितान गुरू नानकांचो विचित्र भेस पळयलो आनी विचारलें, "तूं हिंदू पद्धतीचो भेस कित्याक करीना? तुवें हिंदूंचे धर्मीक ग्रंथ वाचल्यात काय ना?"

"तुमी पंडित व्हडले ग्रंथ वाचतात. पूण तुमकां खऱ्या अर्थान ज्ञान खंय आसा? देवान मनीसजात आनी संवसारांतल्यो हेर सगल्यो गजाली घडयल्यात. त्या परमेश्वराची तुमकां वळख आसा? त्या परमेश्वराविशीं ज्ञान आसप हेंच खरें ज्ञान."

त्या अनवळखी गुरूचीं उतरां आयकून पंडितांक अजाप जालें. तांणी गुरू नानकाक जायते प्रश्न विचारले.

निर्माण करपी परमेश्वर एकच आसा ह्या अर्थाचें एक गीत तांणी म्हळें. गुरू नानकांचीं गितां आयकून जायते पंडित तांचे शिश्य जाले. तांची शिकवण मानूंक लागले.



# धर्मीक विधींचे आड

बनारस साकून गुरू नानक मर्दाना आनी बाला वांगडा गयेक गेले. हांगाच भगवान बुद्धाक ज्ञान प्राप्त जाल्लें. गया हें बौद्ध आनी हिंदू हांचें तीर्थक्षेत्र जावन आसा. हांगाय बी पंडित लोक मनशांच्या आत्म्यांक शांती मेळची म्हूण वेगवेगळे विधी करताले आनी लोकांकडसून पयशे उठयताले.



हे तरेचे धर्मीक विधी करून मेल्ल्या मनशांच्या आत्म्यांक कांयच उपयोग जायना असो प्रचार नानकान सुरू केलो. आपणालें पोट भरपाखातीर पंडित लोक, लोकांक असले विधी करपाक लायतात अशें तांणी सांगलें. जायत्या जाणांनी गुरू नानकांचो उपदेश आयकून विधी करपाचें बंद केलें.

भोंवतां भोंवतां गुरू नानक जगन्नाथपुरी पावले. थंय रातचे पुजारी जगन्नाथाच्या देवळांत आरती करूंक लागले. पुजारी शंख आनी घंटा वाजयताले, धूप जळयताले आनी रुप्याच्या तबकांनी जायत्यो पणट्यो पेटयताले. ते मंत्र म्हणटाले आनी परतून परतून जगन्नाथाचे मुर्तीक नमस्कार करताले.

गुरू नानक येतल्या – वतल्यांक पळयत देवळाभायर उबे आसले. मळबांत चंद्र उदेल्लो आनी हजारांनी नक्षत्रां लिकलिकतालीं. मंद वारो आपल्या वांगडा फुलांचो परमळ घेवन भोंवतालो. देवळा भितर बोबाळ चलिल्लो. एका पुजाऱ्यान भायर वचून गुरू नानकांक भितर आपयले. नानकान तकली हालयली आनी एक सुस्कार सोडलो. ते नक्षत्रांकडेन पळयत रावले आनी गीत गावंक लागले –

अंतराळ तुजें रुप्या – तबक
चंद्र, सूर्य तुजे दिवे
जळामळा पातळिल्लीं नेकेत्रां
जशे तुजे माणकां – हिरे.

रानांतल्या चंदनाचो वास
ह्योच तुज्यो उजवाती
निसर्गाची तुका

हीच खरी आरती.

हजारांनी दोळे तुका
पूण एकय दोळो ना
हजारांनी रुपां तुका
पूण एकय रूप ना.

रात – दीस म्हाका एकच ध्यास
उरचो तुज्या चरणांचो उगडास.

गुरू नानकान गायिल्लें सुंदर गीत आयकून लोक पुंजा जाले आनी गीत सोपतगीर तांचो उपदेश आयकूंक रावले. देवळाच्या म्हर्‍यांत एक साधू सदांच आपले दोळे आनी नाक धांपून बसतालो. अशें केल्ल्यान आपणांक अंतर्ज्ञान जाता आनी आपूण दुसर्‍याल्या मनांतल्यो गुपीत गजाली वळखूंक शकतां अशें तो सांगतालो. अशें सांगून हो लोकांक फटयता हें गुरू नानकाक दाखोवन दिवपाचें आसलें. "तुगेलो तांबयो खंय आसा, तें तूं सांगूं शकशीत?" त्या साधूक जाप फुटली ना.



"दोळे धांपून तुजो तांबयो खंय आसा हें सांगूक शकना, मागीर अंतर्ज्ञानान लोकांल्या मनांतल्यो गजाली सांगतलो कितें कपल?" गुरू नानकान प्रश्न केलो.

गुरू नानकान असल्या जायत्या ढोंगी साधूंक आनी वांगडाच लोकांकय जाग्यार हाडले.

आपले भोंवडेंत गुरू नानकाक मनीस सभावाचे बरे तशेच वायट नमुने जायते मेळले.



# जादूमंतर करपी राणी

एक दिसा भोंवत भोंवत ते कामरूप म्हण्टा थंय पावले . थंय नूरशाह नांवाची सुंदर पूण वायट चालीची राणी राज्य करताली . ती जादूमंतर करूंक जाणा आसली . मर्दानाक भूक लागिल्ली, देखून तो गुरू नानकाची परवानगी घेवन शारांत गेलो . जेन्ना मर्दाना राणयेच्या म्हालासरीं पावलो, तेन्ना तिणें गोड उतरांनी ताका भितर आपयलो . तिची सुंदरकाय, लागोळीं उतरां आनी वागणूक पळोवन मर्दाना तिच्या पासांत जिरखलो . बरोच वेळ मर्दाना आयलो ना तें पळोवन गुरू नानक ताच्या सोदाक भायर सरले . गुरू नानकाकय ते राणयेन भुलोवपाचो यत्न केलो . तिणें आपल्या इश्टिणीं वांगडा नाचपाक सुरवात केली . तिचो चपळ नाच, शृंगारीक भेस आनी हावभाव पळोवन खंयचोय मनीस भुल्लुसतलो आसलो . पूण गुरू नानकान उंच आवाजान एक गीत म्हणपाक सुरवात केली . तें गीत कानार पडनाफुडें राणयेच्यो इश्टिणी एका फाटोफाट एक अश्यो नाचपाच्यो थांबल्यो . राणयेन गुरू नानकाचेर आपल्या जादूचो प्रयोग करून पळयलो . पूण तांच्या गितांत खंड पडलो ना . निमाणें राणी तांकां शरण आयली . गुरूलो उपदेश आयकून राणयेन आनी तिच्या इश्टिणींनीं आपणालें जिवीत ईश्वराचे सेवेंत ओंपपाचो निश्चेव केलो .



हांगाच्यान गुरू नानक मर्दाना आनी बालाक घेवन एका जंगलांत पावले . आकांताच्या वाऱ्यान व्हडलीं व्हडलीं झाडां मुळासयत हुमटल्लीं . कांय वेळान अरंदारीचो पावस सुरू जालो . वांगडाच गडगड आनी जोगलांय मारतालीं . मर्दाना आनी बालाची भिवन गुळी जाली . तांची ती दशा पळोवन नानकान हांसत म्हळें, "मर्दाना, जीण आनी मर्ण देवाच्या हातांत आसता . देवाचेर भरवंसो दवरता ताका भिवपाची गरज ना ."

ते अशे तरेन उलयतासतनाच मुखार एक अक्राळ - विक्राळ मनीस उबो रावलो . गुरून ताका विचारलें, "आगा, तूं कोण? अशा वेळार तू हांगा कित्याक आयला?" ताणें जाप दिली, "हांव कलियुगाचो प्रतिनिधी . आतांच जें आकांताचें वादळ तुवें पळयलें ती म्हजीच करणी जावन आसा ." अशें म्हणून त्या मनशान माणकां

– मोतयांची रास तयार केली. "हीं माणकां – मोतयां घे आनी सुखान राव. गरजेभायर हजारांनी मैल कित्याक भोंवता?"



"इतली रास घेवन हांव कितें करतलों? म्हजेकडेन गरजेपुरतें सगलें आसा. परमेश्वराचे इत्सेप्रमाण हांव वागतां आनी तो दिता तेंच घेतां."

अशें सांगून गुरून एक गीत म्हणपाक सुरवात केली. ते बरोबर त्या आकांताच्या मनशान एक व्हड किळांच मारली आनी तो अदृश्य जालो.

जेन्ना मर्दाना तालवंडी गांवांत पावलो तेन्ना गुरू नानकाचे आवयन ताका काकुळटेक येवन विचारलें, "म्हज्या पुताक तुवें खंय सोडलो? म्हाका तो परत केन्ना दिसत ?" मर्दानान जाप काडली ना.



# घरच्यांक भेट

मर्दाना आपल्या घरच्यांची भेट घेवन कांय दीस थंय रावन परत वचपाक भायर सरलो . जे अर्थी मर्दाना रोकडोच परत वचपाक भायर सरलो ते अर्थी नानक हांगा लागींच खंय तरी आसतलो, अशें येवजून ताची आवय मर्दाना फाटोफाट ताका कळनासतना चलूंक लागली. अशे तरेन ती गुरू नानकासरीं पावली. आवयन गुरू नानकाक वेंगेंत घेतलो आनी ताच्या माथ्यावेल्यान अपुरबायेन हात भोंवडायत तिणें म्हळें, "जावं, देवाचे उपकार, तूं म्हाका परत दिसलो."



गुरू नानक गांवां लागसार आयला म्हणपाची खबर रोखडीच तागेल्या बापायक कळ्ळी. तो ताकतिकेन घोड्यार बसून ते सुवातेर आयलो. नानकान फकीराभशेन भेस केल्लो पळोवन ताणें म्हळें, "एक घरंदाज मनशाचो चलो भिकाऱ्यावरी भोंवता हें पळोवन म्हाका खंत भोगता. हो घोडो घे आनी परत आपल्या गांव – घरा वच!" नानक बापायच्या पांयां पडले आनी तांणी म्हळें,

"हांव घोडो घेवन कितें करतलों? जाका देवाची वाट खबर आसा , तो दुसरे वाटेन वचना."

हें आयकून काळून म्हळें, "निदान कांय दीस घरा रावन सुशेग घे." पूण गुरू नानकान ताचें म्हणणें आयकून घेतलें ना.



# कुश्ट रोग्याची सेवा

थंयच्यान गुरू नानक गोंयदवल म्हण्टा त्या गांवांत गेले. थंय नानक एका कुश्टरोगी मनशागेर रावन ताची सेवा करूंक लागले. त्या कुश्टरोग्याक गांवच्या लोकांनी शिमेभायर धांवडायल्लो. नानक कांय काळ थंय रावले. एक दिसा त्या कुश्ट रोग्यान नानकाक विचारलें, " मनशाक रोग कसो बादता?" गुरून जाप दिली, "देवाक विसरिल्ल्यान. रोगाचो उपाय आमच्या शरिरांत नासता, तो आत्म्यांत आसता. शरिराची पिडा मनशाच्यान बरी करूं येता, पूण आत्म्याची पिडा फकत देवाच्यानच बरी करूंक जाता. जाचो आत्मो संतुश्ट आसता, तो शरिराची पर्वा करीना, पूण जो सदांच शरिराचोच हुस्को काडटा, ताचो आत्मो दुख्खी आसता."



अशें सांगतात, ते नंतर कुश्टरोगी रोखडोच बरो जालो आनी देवाचे सेवेक लागलो.

उपरांत गुरू नानकान दक्षिण भारताची भोंवडी केली. हे खेपे तांणी माथ्याक रुमाल रेवडायल्लो आनी पांयांत खडावो घाल्ल्यो. तांच्या हातांत एक दांडो आशिल्लो.

वाटेर तांकां कांय जैन साधू मेळले. चुकून लेगीत जिवाची हिंसा करूंक जायना अशें जैन धर्म सांगता.

"तूं पावसांत लेगीत खडावो कित्याक वापरता? तुज्या एका एका पावला कणकणीं कितलेशेच जीव चिड्डून मरतात." एका साधून नानकाक सांगलें.

"तुमी जरी भाजीपालोच खावन रावले, तरीय कसलेय तरेचो जीव मारलेवगर तुमी तिगून रावंक शंकचे नात." गुरू नानकान जाप दिली, "जिवाक जगोवपाची वो मारपाची जापसालदारकी फकत परमेश्वराची. मनशान ताची आज्ञा पाळपाचो यत्न करचो."



# सिलोनची भोंवडी

दक्षिण भारताची भोंवडी करीत गुरू नानक सिलोनाक गेले. थंय शिवनाथ नांवांचो राजा राज्य करतालो. शिवनाथ राजान गुरू नानकाची कीर्त जायत्या वर्सा फाटीं आयकल्ली आनी तो सदांच गुरू नानकाची भेट आंवडेतालो.



राजान गुरू नानकाखातीर सांवळी दिवपी रुखांची एक बाग तयार केली. आपली भक्ती पळोवन गुरू नानक केन्नाय तरी हांगा रावूंक येतले अशी ताका आस्त आशिल्ली. हे बागेंत जायते साधू रावन गेले, पूण ती बाग केन्नाच फुल्लीना. झाडां पेडां निर्जीव दिसतालीं.

जेन्ना गुरू नानक हे बागेंत रावले, तेन्ना बाविल्ल्या झाडांक चंवर फुटलो. पानां फुलांनी झाडां फुलून गेलीं. सगल्याक परमळ पातळ्ळो, तरेकतरांचीं शेवणीं येवन बागेक आगळीच सोबा आयली.

बागेंत जाल्लो अकस्मात बदल जेन्ना राजाक कळ्ळो, तेन्ना गुरू नानक ते बागेंत रावंक आयल्यात हें ताणें पारखिलें. पूण हाचे आदींय ताणें जायते साधू हांगा पळयल्ले, म्हण्टगीर ताणें गुरू नानकाची परिक्षा घेवपाचें थारायलें. ताणें आपल्या दरबारांतल्यो दोन सुंदर नर्तकी बागेंत धाडल्यो. त्यो बागेंत वचून गावंक आनी नाचूंक लागल्यो. गुरू नानक ध्यानस्त बशिल्ले, तांणी नर्तकीवटेन मातूय लक्ष दिलें ना. राजान हें जेन्ना बारीकसाणेन पळयलें, तेन्ना ताणें गुरूच्या पांयांचेर लोटांगण घालें.

राजान गुरू नानकांक आपणाल्या राजवाड्यांत येवन रावपाचें आमंत्रण दिलें. थंय गुरू नानकांक राजान घसघशीत येवकार दिवन तांचो फावोसो आदरसत्कार केलो. राजा राणयेन तांकां खूब प्रश्न विचारून आपणाल्या मनाचें समाधान करून घेतलें.

एक दिसा राणयेन विचारलें, "तुमी ब्राम्हण, ब्रम्हचारी, योगी काय गृहस्थाश्रमी?"

"मनीस गृहस्थाश्रमी काय आंकवार, हाका म्हत्व ना. तो खंयचे जातींत वा परिस्थितींत जल्मला हाकाय

अर्थ ना. देवा म्हऱ्यांत कोणय पावंक शकता. ताच्या म्हऱ्यांत पावूंक देवाविशीं पुराय प्रेम आसूंक जाय." नानकान जाप दिली.

शिवनाथाच्या राज्यांत गुरू नानकान जायतीं प्रवचनां केलीं. जायते लोक गुरू नानकाचे शिश्य जाले. गुरू नानकाच्या उपदेशाप्रमाण वागून राजान बरें नांव व्हेलें.



# फातराचो चमत्कार

सिलोनाक सावन गुरू नानक उत्तरेक गेले. वाटेर मेळटा त्या योगी, पंडिताकडेन ते भासाभास करताले आनी आपणालो उपदेश सांगताले. काश्मीरा साकून गुरू नानक तिबेटांत गेले. तिबेटांतल्यान गुरू नानक पंजाबांत आयले. थंय हसन अब्दुल ह्या गांवांत वाली कंधारी नांवाचो एक फकीर एके दोंगुल्लेचेर रावतालो. त्या वाठारांत एकच बांय आसली. त्या मुसलमान फकिराक जायते शिश्य आसले. ह्या फकिराक जायत्यो सिद्धी प्राप्त आसात अशें ते मानताले.



गुरू नानकान वालीसरीं वचून उदक हाड अशें मर्दानाक सांगलें.

"तुमी म्हज्या गुरू खातीर तुमच्या बांयतलें इल्लेंशें उदक म्हाका व्हरूंक दिवशात जाल्यार भोव उपकार जातले." मर्दानान वालीक वचून सांगलें.

"म्हजे गुरू, नानक ! ते देवाचे एक व्हड संत जावन आसात." मर्दानान फुडें म्हळें.

"तुज्या गुरूक वचून सांग, जर तो खरोच संत जाल्यार ताच्यान आपणाखातीर खंयच्यानय उदक मेळोवंक जाता." वालीन रागान म्हळें.

मर्दानान घडिल्ली गजाल गुरू नानकाक येवन सांगली. गुरू नानकान ताका परत वालीसरीं उदक मागूंक धाडलो. वालीन ताका उदक दिनासतना परत धांवडायलो.

'वालीची वागणूक मनाक लावन घेवं नाका.' अशें गुरू नानकान मर्दानाक सागलें आनी उदक मेळोवपाखातीर दोन फातरांमदीं एक ल्हानसो बुराक मारपाक सांगलें. मर्दानान गुरू नानकान सांगिल्लें थंय बुराक मारिनाफुडें, निवळ उदकाचो वझरो भायर सरलो. मर्दाना आनी गुरू नानक त्या वझऱ्याचें उदक पिले आनी कांय वेळ सुशेग घेवंक बसले.

हे वटेन आपणाले बांयतलें उदक इल्लें इल्लें देंवत आसा म्हणपाचें वालीक कळळें. ताणें दोंगुल्ले सकयल पळयलें, जाल्यार मर्दाना आनी गुरू नानक एका सोबीत वझऱ्या लागसार सुशेग घेतात. हें पळोवन ताची तिडक मस्तकाक गेली. ते दोंगुल्लेचे कडेक एक व्हड फातर आशिल्लो. वालीन खांदो लावन हो फातर हालयलो आनी सकयल धुकलून दिलो. तो फातोर गडगडत गुरू नानकावाटेन देंवपाक लागलो.

गुरू नानकान आपणाले वाटेन फातोर देंवता तो पळयलो आनी फातोर थांबोवपाखातीर तांणी आपलो उजवो हात वयर केलो. गुरून हात वयर काडनाफुडें फातोर थंयचे थंयच थांबलो. त्या फातरार अजूनय गुरू नानकाच्या हाताची खूण दिसता अशें सांगतात. त्या दिसासावन ते सुवातेक 'पंजासाहेब' अशें म्हण्टात. पंजा म्हळ्यार हात.



ही अजापाची घडणूक पळोवन वाली मनांतल्यान भोव भियेलो. अशे तरेचे चमत्कार करपी संताकडेन तो वायट तरेन वागिल्लो. तो दोंगुल्लेवेल्यान सकयल देंवलो आनी ताणें गुरू नानकाक साश्टांग नमस्कार घालो.

"म्हाका क्षमा करात, चूक जाली." ताणें म्हळें. "क्षमा करपासारकें कांयच घडूंक ना. पूण इतलेंच मतींत धर, तुज्या मनांत इस्लामी धर्म खरोच पाळपाचो आसा जाल्यार परकी मनशांक उदार अंतस्कर्णान येवकार दी. तेन्नाच तुका मनाची खरी शांती मेळटली!"



# मक्केचो प्रवास

परत एक फावट गुरू नानक लांब प्रवासाक भायर सरले. हे खेपे तांणी मक्केक वचपाचें थारायलें. त्या काळांत पायांनी मक्केक वचप म्हळ्यार सुमार तीन हजार मैलांची भोंवडी. ह्या प्रवासाक म्हयन्याचे म्हयने लागताले.



हे खेपे नानकान मुसलमान हाजी भशेन निळ्या रंगाची कफनी आंगाक घाल्ली आनी प्रार्थना म्हणपावेळार घालपाची एक शेंदरी खाक्यांत मारिल्ली. मर्दानाय तांचे वांगडा आयलो. जायते मुसलमान यात्रेकरू त्याच रस्त्यान वचपाक भायर सरिल्ले. अशे तरेन तांकां वांगड बरो मेळ्ळो.

जेन्ना गुरू नानक सामके थकून पुरो जावन मक्केक पावले, तेन्ना ते मुसलमानांच्या पवित्र काब्यावाटेन पांय करून न्हिदले. मुसलमान लोक काब्यावटेन पांय करून केन्नाच न्हिदनात. जेन्ना एका मुल्लान गुरू नानकाक अशे तरेन न्हिदला तो पळयलो, तेन्ना ते जाणा जावन तशे न्हिदल्यात अशें समजून ताणें गुरू नानकाक खुनळावन जागयलो आनी म्हळें, “चल, उठ हांगाचो, हे वाटेन पांय करून न्हिदपाची तुका छाती कशी जाली?”



# देव ना असो जागो ना

गुरू नानकान दोळे चोळीत ताका विनंती केली, "देव ना तेवटेन म्हजे पांय मात्शे घुंवडायशीत? म्हाका सामकें पुरो जालां". त्या मुल्लान गुरू नानकांले पांय फरफरीत ओडून दुसरे वटेन व्हेले. पळयल्यार तेवटेन काबा दिसूंक लागलो!

"हें कितें?" मुल्ला आड्डलो, "काबा म्हूण केन्ना एका जाग्यावेलो हालता?"



गुरू नानक हांसले आनी तांणी म्हळें, "देवाचें घर सगले वटेन आसता हें तुका खबर ना? देव ना असो जागो ना."

हो चमत्कार पळोवन खूब जाण गुरू नानकासरीं आयले आनी तांकां तरेकतरांचे प्रस्न करूंक लागले. एकल्यान विचारलें, "व्हड कोण, हिंदू वा मुसलमान?" "जो सगल्यांकडेन बरो वागता आनी देवाक शरण वता तो व्हड!" गुरुन जाप दिली.

मक्केक साकून गुरू नानक मदिनाक गेले. मदिना हेंय मुसलमानांचें एक पुण्यक्षेत्र. थंय जायत्या मौलवींकडेन तांणी भासाभास केली. तांगेली शिकवण आयकून लोकांचेर छाप पडली. थंयच्यान गुरू नानक बगदादाक गेले. थंय शारा भायर उबे रावन तांणी मुस्लीम धर्तेची प्रार्थना करपाक सुरवात केली. पूण तांणी तें प्रार्थनेंत कांय बदल केले. ती प्रार्थना आयकून लोकांक अजाप जालें. एकल्यान तांकां विचारलें, "तुवें पैगंवर महंमदाचें नांव हे प्रार्थनेंतल्यान कित्याक गाळ्ळें?'

"फकत देवाचेंच नांव म्हत्वाचें आसता." गुरू नानकान जाप दिली.

लोकांनी ही गजाल वचून पिराक सांगली. पीर आपल्या चल्याक वांगडा घेवन गुरू नानक आशिल्लो थंय आयलो.

त्या वेळार गुरू नानक आपल्या 'जपाजी' हे प्रार्थनेंतल्यो सकयल्यो वळी म्हण्टालो :

अंतराळा वयर आनी सकयल<br>
आसात जायतीं जगां<br>
विद्वानांक मात तांची

अजून खबर ना.



हें आयकून पीर तिडकलो आनी ताणें रागान म्हळें, " धर्माभायलें हें तूं कितें सांगता?"

गुरू नानकान पीराल्या चल्याक म्हऱ्यांत आफोवन ताका कांय वेळ दोळे धांपून परत उगडपाक सांगलें. "दोळे धांपिल्ले तेन्ना तुका कितें दिसलें?" गुरून विचारलें.

"हांव धर्तरेपसून हजारांनी मैल पयस वतां अशें म्हाका दिसलें. वाटेर हांवें कितलींशींच सुंदर आनी तरेतरेचीं जगां पळयलीं. कांय कडेन हजारांनी लोक परमेश्वराची प्रार्थनाय करताले." पिराल्या चल्यान आनंदान सांगलें.

हें आयकून पिराक अजाप जालें आनी गुरू नानक एक म्हान संत जावन आसा म्हणपाचें ताणें मान्य केलें. ताणें गुरू नानकाक आनी मर्दानाक आपणाल्या घरा व्हेले आनी ते थंय कांय दीस रावले. गुरू नानकाक थंय जायते शिश्य मेळळे.

थंयच्यान गुरू नानक परत पंजाबांत आयले आनी कर्तारपूर शारांत रावंक लागलें



# बादशहा बाबरची धुरी

१५२५ त बाबरान भारताचेर धुरी घाली. बाबराल्या सैन्यान पंजाबांतलीं शारां जमनीभरवण करून वडयलीं. कितंल्याशाच लोकांक जीवानिशीं मारून वडयले, तांचीं घरां लुटलीं आनी लासलीं , बायलांक पळोवन व्हेल्यो.

गुरू नानकाक आनी मर्दानाक बंदखणीत घाले. तांकां चाकराभशेन वागणूक मेळूंक लागली. गुरू नानकाक माथ्यावेल्यान वजीं व्हरपाचें काम दिलें आनी मर्दानाक घोडे राखपाचें. अशेय परिस्थितींत गुरू नानकान देवाचें गुणगान करपाचें सोडलें ना. बाबराचे घुरयेक लागून लोकांक जे त्रास सोंसचे पडिल्ले, तें पळोवन ताका भोव वायट दिसतालें. लोकांक सोंसचे पडिल्ल्या त्रासांचेर तांणी जायतीं कवनां रचलीं आनी ते तीं गावंक लागले.



बंदखणीचो राखणदार मीरखान हाणें एक दीस गुरू नानक गायता तें आयकलें. तो म्हऱ्यांत येवन पळयत जाल्यार गुरू नानकाल्या माथ्यावेलें वजें वेलेवयर ताच्या माथ्यार तरंगता आनी मर्दानाकडेन राखणेक दिल्ले घोडे मस्ती करिनासतना ताचे फाटोफाट आपोआप येतात.

जेन्ना मीरखानान ही गजाल बाबराच्या कानार घाली, तेन्ना बाबरान प्रत्यक्ष वचून पळोवपाचें थारायलें. गुरू नानक दात्याचेर दळीत भजन म्हण्टासतना बाबर थंय पावलो, बंदखणींतल्या कठीण परिस्थितींत रावून लेगीत गुरू नानकांचो प्रफुल्लीत चेहरो पळोवन हो कोणय तरी सिद्ध पुरूश आसूंक जाय अशें बाबराक दिसलें.

ताणें गुरू नानकाक सोडपाची आज्ञा केली. आपणावांगडा बंदखणीत आशिल्ल्या लोकांक सोडलेबगर आपूण भायर वचपाक तयार ना, अशें गुरू नानकान सांगलें. बाबराचेर गुरू नानकाची खूबच छांप पडिल्ली, ताणें गुरूची मागणी मान्य करून हेर कैद्यांक सोडून दिले.

उरिल्ल्या कैद्यांची सोडवण जाता जाल्यार पळोवपाक गुरू नानक कांय दिसांनी बाबराल्या कँपांत गेलो. कैद्यांचें दुख्ख पळोवन ताका खूब वायट दिसलें. चडशे कैदी सारके जेवंक - खावंक मेळूंक नाशिल्ल्यान अशक्त जाल्ले. तांचे कडसून चड काम करून घेवपाखातीर शिपाय तांकां बडयताले.



# दुख्ख पळोवन बेशुद्ध

गुरू नानक आपणाल्या कँपांत परत आयल्यात ही गजाल बाबराक कळ्ळी. ताणें आपणाल्या दरबारांत येवपाचें गुरू नानकाक आपोवणें धाडलें. गुरू नानकाचीं पदां आयकुपांत बादशहा बाबर तल्लीन जालो. ताणें गुरू नानकाक गुंगी येवपाचें हशीश दिलें.



"म्हाका आदींच गुंगी लागल्या. असले पदार्थ खावन अडेची गुंगी हाडपाची म्हाका गरज ना." गुरू नानकान सांगलें.

"हाचो अर्थ कितें?" बाबरान विचारलें.

"म्हाका देवाच्या नांवाची गुंगी लागल्या." अशें म्हणत गुरू नानकान आनीक एक पद म्हणपाक सुरवात केली.

गुरू नानकान आनीक कांय दीस आपणा म्हऱ्यांत रावचें अशी बादशहान विनंती केली. एक ते दोन दीस थंय रावपाचें गुरून मान्य केलें. बंदखणींत पडिल्ल्या आपल्या गांवभावांक पळोवन गुरू नानकाक भोव दुख्ख जालें, आनी ते बेशुद्ध पडले.

बाबरान तांकां शुद्धीर हाडपाचो प्रयत्न केलो. तांच्या जिवाक कितेंय बरें वायट जायत म्हूण तो भिलो.

बंदखणीत पडिल्ल्या लोकांचें दुख्ख पळोवंक नजो जावन तो बेशुद्ध पडला अशें मर्दानान बाबराक सांगलें. गुरू नानक शुद्धीर येवचे म्हूण लोकांनी प्रार्थना करची अशें बाबरान फर्मायलें. प्रार्थना केले उपरांत गुरू नानक शुद्धीर आयले.

बाबरान उरिल्ल्या सगल्या कैद्यांक सोडून दिले.



# कर्तारपूराक राबितो

गुरू नानकान जायतीं वर्सां भोंवडी केली आनी आतां ते जाण्टे जाल्ले. तांणी कर्तारपूर ह्या शारांत रावतिका केली. गुरूचो उपदेश घेतिल्ले जायते शीख (शिष्य) थंय रावताले. गुरू नानकाच्या कुटुंबांतली मंडळीय थंय रावताली.

देवाचो मनीस म्हूण गुरू नानकांचें नांव चोंयवशीन फांकिल्लें. जायते शिश्य तांच्या वांगडा रावंक लागले. अशे तरेन थंय एक व्हडलो जमाव पुंजा जालो. ताका 'संगत' अशें नांव पडलें. फांतोडेचेर सूर्य उदेवचे आदीं सगले लोक उठून प्रार्थना म्हण्टाले. उपरांत दिसभर ते शेतांत वावर करताले. गुरू नानकय स्वता शेतांत वावुरताले.



सात वर्सांचो एक भुरगो फांतोडेचे प्रार्थनेक सदांच हजर आसतालो. तो मन लावन प्रार्थना आयकतालो. गुरू नानकान एक दिसा ताका म्हऱ्यांत आपोवन विचारलें, "इतल्या ल्हान वयार खरें म्हळ्यार तुवें हेर भुरग्यांवरी खेळपाचें, नाचपाचें! फांताडेवेली साखर- न्हीद घेवची सोडून तूं प्रार्थनेक कित्याक येता?"

"गुरूजी, हांवें एक दिसा म्हगेली आवय रान्नींत उजो करता ती पळयली. रान्नींतलीं सगल्यांत ल्हान लाकडां आदीं जळटालीं हें पळोवन हांव खूब भियेलों. हांवय एकाद्रो भुरगो आसतनाच मरन अशें म्हाका दिसलें आनी परमेश्वराची म्हजेर कृपा आसची म्हूण हांव सदांच प्रार्थना आयकूंक येतां." त्या भुरग्यान म्हळें.

त्या भुरग्याची जाप आयकून गुरू नानकाचें समाधान जालें आनी भुरगो आसूनय ताणें जाण्ट्याभशेन जाप दिल्ली पळोवन तांणी ताका मजेन 'बुढा' म्हळें. तो भुरगो प्रार्थनेक येत रावलो आनी फुडें फुडें तो गुरू नानकाचो सामको सेवक जालो. लोक ताका मायेन 'भाई बुढा' म्हण्टाले. हो भुरगो खूब वर्सां वांचलो. गुरू नानकां उपरांत जे पांच शीख गुरू जावन गेले तांकां भाई बुढाच्या हातान गुरू पदवी मेळ्ळी.

मर्दाना – जाणें गुरू नानकाक इतलीं वर्सां पयसुल्ल्या पयसुल्ल्या भोंवड्यांनी लेगीत साथ दिल्ली – आतां सामको जाण्टो आनी अशक्त जाल्लो. आपणालें मरण लागीं पावलां अशें ताणें एक दीस गुरू नानकाक सांगलें. " तशें जाल्यार तूं आतां देवाच्या नांवांचेर मन एकाग्र कर." गुरून सांगलें.



# मर्दानाक देवाचें आपोवणें

मर्दाना जेन्ना हो संवसार सोडून गेलो, तेन्ना 'ताचेखातीर रडूंक नाकात, तर ताणें ह्या संवसाराची भोंवडी सोंपयली म्हूण आनंद मनयात.' अशें तांणी तांगेल्या घरच्यांक सांगलें.



मर्दाना उपरांत मर्दानाच्या चल्यान शहाजादान गुरूक रेबेकाचेर साथ दिली. लोक मर्दाना इतलेच ताकाय मान दिताले.

कर्तारपूरसावन कांय मैलांचेर खादूर नांवाचो एक गांव आसलो. थंय जोधा नांवांचो एक शीख रावतालो. तो फांतोडेर उठून गुरू नानकान रचिल्ल्या 'जपजी' तलीं कांय पदां तालासुरार म्हण्टालो. एक दिसा गांवच्या लेहना नांवाच्या एका हिंदू पुजाऱ्यान तो म्हण्टा तीं पदां आयकलीं.

लेहनाक पदाची रचना भोव मानवली. पदां आयकुपांत तो तल्लीन जालो.

"इतलीं सुंदर पदां कोणाकडसून शिकलो? तुजो गुरू कोण?" ताणें जोधाक विचारलें.

"म्हजो गुरू नानक. हीं पदां तांणीच रचल्यांत." जोधान सांगलें.

"हीं पदा आयकून तुज्या गुरूक मेळपाची म्हाका इत्सा जाल्या." लेहनान सांगलें.

लेहना हो दुर्गादेवीचो भक्त आसलो. कांय दिसांनी तो दुर्गादेवीचे भेटेक वचपाचो आसलो. थंय वतासतना वाटेर कर्तारपूराक गुरू नानकाची भेट घेवची अशें ताणें थारायलें.

लेहनाच्या विवेकशील सभावाक लागून गुरू नानकाक तो भोव मानवलो. गुरू नानकांचो उपदेश आयकून लेहनाचें समाधान जालें. तीर्थयात्रेक वच्चें सोडून तो गुरू नानकासरींच रावलो. ताची गुरू नानकांचेर भोव भक्ती जडली. तो सामको गुरू नानकांचे आज्ञेंत वागूंक लागलो.

आपणा फाटल्यान गुरू जावपाक कोण योग्य आसा हें पळोवपाखातीर गुरू नानक केन्ना केन्नाय आपणाल्या शिश्यांची परिक्षा घेताले. हे परिक्षेंत तांगेले स्वताचे दोगं चले केन्नाच पास जाले नात.



# शिश्यांची परिक्षा

एक दीस आपणाल्या शिश्यांची परिक्षा पळोवपाखातीर गुरू नानकान बोंदरे कपडे चडयले, हातांत एक सुरो घेतलो,वांगडा शिकारी कुत्रे घेतले आनी ते रानांत गेले.

तांगेले जायते शिश्य तांच्या फाटल्यान रानांत वचपाक भायर सरले. तागेलो विचित्र भेस आनी रागीश्ट मुद्रा पळोवन कांय जाणांक ते आतां पिशे जाल्यात अशें दिसलें आनी ते तांकां सोडून गेले. बाकीचे मुखार वचपाक लागले. वाटेर रस्त्यार तांकां रुप्याचीं नाणीं दिसलीं. कांय जाणांक दुडवांची आस जाली. तांणी तीं पुंजायलीं आनी घराची वाट धरली. उरिल्ले शिश्य रानावटेन चलूंक लागले. कांय वेळान त्या शिश्यांक रस्त्यार भांगराचीं नाणीं शिपडिल्लीं दिसलीं. तिगजाण शिश्य सोडून बाकी सगल्यांक भांगराची आस जाली. तांणी तीं पुंजायलीं आनी एकामेकांमदीं तीं वांटून घेवन तांणी घरचो रस्तो धरलो. उरिल्ल्या तीग जाण शिश्यांभितर लेहना हो एक आसलो.ते रानांत चलत रावले. कांय वेळान तांकां एक सरण दिसलें. त्या सरणा म्हच्यांत लुगटांत गुठलायल्लें एक मडें आसलें आनी त्या मड्याची सामकी घाण सुटिल्ली. गुरू नानक



सामके रागिश्ट मुद्रेन थंय उबे आसले. तांणी तिगांय शिश्यांकडेन पळोवन आड्डून म्हळें, " ज्या कोणाक म्हज्या म्हच्यांत रावपाचें आसा तांणी ह्या मड्याचें थोडें मांस खावचें पडटलें!"गुरू नानकाची ही विचित्र आज्ञा आयकून दोग जाण शिश्य एकामेकांकडेन भंयान पळोवंक लागले. तांणी रोखडीच फाटल्यान पपा काडली.

लेहना मात आत्मविश्वासान फुडें सरलो. तो मड्यावेलें लुगट काडूंक वतालो, इतल्यांत गुरून म्हळें, " आनीक परिक्षा पळोवपाची गरज ना. तुवें तुजे करणेन म्हजेवेलो मोग आनी विश्वास सिद्ध केला. हो खरो प्रसाद घे." अशें म्हणून तांणी लेहनाक प्रसाद खावपाक दिलो. लेहनाक उद्देशून तांणी म्हळें, " तूं म्हणजे म्हजेंच आंग. देखून आयच्यान तुजें नांव अंगद!" तेन्नाच्यान गुरू नानक अंगदाचेर हेर शिश्यांपरस चड़ प्रेम करूंक लागले.

कांय तेंपान आपणालें आयुश्य सोंपपाक पावलां म्हणपाचें गुरू नानकाक कळून आयलें. तांणी अंगदाक आपलो वारस नेमपाचें थारायलें. तांणी अंगदाक आपणाल्या जाग्यार बसयलो आनी ताच्या सामकार पांच नाणीं आनी एक नाल्ल दवरलो. मागीर अंगदा भोंवतणी चार प्रदक्षणा काडल्यो. उपरांत भाई बुढान अंगदाच्या कपलाक केसरी तिबो लायलो. आपणालें सगलें तेज आतां अंगदाच्या आंगांत गेलें आनी अंगदाक दुसरो नानक असो समजुचो अशें गुरू नानकान सगल्यांक सांगलें.



# निर्वाण

उपरांत जमिल्ल्या लोकांक तांणी कांय प्रार्थना शिकयल्यो आनी समाधी लायली . तेच अवस्थेंत तांणी प्राण सोडलो .

तांचे शिश्य जे आदीं मुसलमान आसले तांणी गुरू नानकाचें दफन करपाचें थारायलें, तर जे आदीं हिंदू आसले तांणी दहन करपाचें थारायलें . गुरू नानकाचो देह पुरचो काय लासचो असो वाद उप्रासलो . निमाणें तांणी एक मांडणी सोदून काडली . हिंदूंनी गुरू नानकाचे उजवे वटेन फुलां घालीं आनी मुसलमानांनी दावे वटेन . जांचीं फुलां सकाळ मेरेन टवटवीत उरतात तांणी आपणाक जाय तशें करचें अशें हिंदू – मुसलमानांमदीं थारलें .



सकाळीं गुरू नानकांच्या आंगावयली चादर काडून पळयत जाल्यार, दोनय वटेनचीं फुलां ताजीं – टवटवीत आसलीं . पूण गुरू नानकाचो देह मात गुप्त जाल्लो . तांणी गुरू नानकाच्या आंगार घाल्ले चादरीचे दोन उबे कुडके केले . हिंदुंनी चादरीच्या एका कुडक्याचें दहन केलें आनी दुसऱ्या कुडक्याचें मुसलमानांनी दफन केलें !

मेल्ल्या मनशाच्या उगडासाक यादस्तीक उबारप ह्या मताच्या आड गुरू नानक आसले . देखून तांणी देह सोडलो थंय कसलेच तरेचें यादस्तीक बांदूक ना . पूण तांची शिकवण लाखांनी लोकांच्या अंतस्कर्णांत कोरांतिल्ली आसा . गुरू नानकान जीं भक्तीपर गितां रचलीं, तीं सगलीं जशाचे तशीं 'गुरू ग्रंथसाहेब' ह्या ग्रंथांत एकवटायल्यांत .

❑

# गोंवा कोंकणी अकादेमी

## बालसाहित्य प्रकाशन येवजण

### अकादेमीचीं प्रकाशना

| | |
|---|---|
| काणयां झेलो - भाग १ | श्री. माणिकराव गावणेकार |
| काणयां झेलो - भाग २ | श्री. माणिकराव गावणेकार |
| गलिवराची भोंवडी | श्रीमती माया अनिल खरंगटे |
| स्वामी विवेकानंद | डॉ. विनय वासुदेव मोरजकार |
| आटकुळें पिटकुळें | श्री. अभयकुमार वेलिंगकार |
| गोंयांतले रूख | डॉ. कस्तुरी नारायण देसाय |
| वीर विरेंद्र आनी हेर काणयो | श्रीमती सुरंगा विलास मडकयकार |
| गोंयचीं बालगितां, नाचगितां आनी खेळगितां - भाग १ | संकलक : श्री. तुकाराम रामा शेट |
| गोंयचीं बालगितां, नाचगितां आनी खेळगितां - भाग २ | संकलक : श्री. तुकाराम रामा शेट |



गोवा कोंकणी अकादेमी

बोरी, फोंडें, गोंय